मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै
उप संपादक
पी. मनोहर
कोशाधिकारि
के. विजयन
वाँगडी
प्रो. जी. मोहन राव
न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार
प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521

मुखचित्रः 2018, एप्रिल 29 - मई 5, प्रभाकर ज्योति सभाघर, कोच्ची :- कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर अनि अनुग्रहा चारिटेबळ ट्रस्ट एकडे मेळ्नु कोंकणी सप्ताहु घडेयलो। - एद्दीं चित्रं
(आभार : एन. बालकृष्ण मल्या, दिनेश आर. शेणै, कोच्ची)



प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-


# स्पन्दन

प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची



**SPANDAN**
**Published by :**
**KERALA KONKANI ACADEMY**
**8/28, 'Santhery', 1st Floor,**
**Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,**
**Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849**
**Email : keralakonkaniacademy@gmail.com**

खंड : 7 अंक : 8 1940 श्रावण


*संपादकीय*

## रेडियो, टी. वी. अनि कोंकणी

अन्य भाषा प्रचारान्तु रेडियो अनि टी.वी. क व्होड स्थान अस्स। तें चाँ ऊणे म्हळेलें तँ अम्गेले ऊणावु।

आकाशवाणीचे तृशूर, कोषिकोड, स्टेषनान्तु थकून अतँय वारान्तु 15 मिनिटाचे गीन्त संप्रेक्षण करताय। जल्यार फूडे/मुर्थम रिकोर्ड केल्लेले गीन्तचि तँ अतँय एत्तायि। म्हळ्यार दवर्लेले गीन्त दुस्सरीयि दुस्सरीयि दवर्तायि म्होणु। नवें रिकार्डिंग चम्कना। मुर्थम एदे काळाक उणे कार्यक्रम तिरुवन्तपर्त दुरदर्शनाचेरि एय्लेलिं तँ। तेवेंय चाँ फूडे/मुर्थम। तें केद्दाण की रब्बून गेल्लें। कर्णाटकान्तूयि DD9 चन्दनान्त, 2 रें अनि 4 तें मंगळाराचे, अनि तस्सींचि लगीचेचि शनिवाराचें अर्द्धर्द्ध घंट्याचे कार्यक्रम एत्ताले। 2-3 मासु जाव्नु तेंवेंयि रब्बून गेल्लें। थंगाचे आकाशवाणी-धारवाड स्टेशनान्तु सोमाराचे रत्ति अर्द्ध घण्ट्याचे कार्यक्रम भाग्यान अतँय एत्ता।

यें सग्ग चोय्तना अम्गेले भाषेचे उन्नतीक यीं माध्यम चाँ ऊणे म्हळेले व्होडु एकु अभावूचि तँ। ये माध्यमा वट्टेन मात्र तँ भाषा चड वाडतलि म्होणु अभिप्रायु। तक्का इत्तें कोरूक जत्तलें म्हळेले तँ चिन्तन कोर्का जल्लोलो विषयु।

कोच्ची, सुरेश ए. शेणै
01-08-2018 मुखेल संपादक.

30.6.18, टी. बी. कुन्य सभाघर, गोंय :- 'उगतें मळब' संस्थेचे 144 वें कविसंमेळन 'आषाढ पांवळ्यो' अनिक सुनिता पेडणेंकर हांचो कोंकणी स्त्रीपात्री नाटिका 'हांव बाये वयतां' अस्लिल्लें।

---

पं. मनोहरबुवा शिरगांवकर नाट्यघर, रवीन्द्र भवन, सांखळी, गोंय :- गोमंत रंगभुमीदीसाच्या निमतान घडेयलेले दोनि दिसांचे कोंकणी नाट्य महोत्सवांतु 6.7.18 क 'सरण जळटना' अनि 7.7.18 क 'आज्याची काणी' नाटकँ खेळेय्लीं।

---

1.7.18 Vinsan Academy of Film and Media, पणजी :- 'मुक्तछंद' (Expressions of the Heart) कार्यक्रमान्तु वीस कोंकणी, मराठी, हिन्दी अनि इंग्लीश कवीनि घडेय्ली बहुभाषा कविसगमं चम्कीलें।

---

कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आयोजित प्रतिमास कोंकणी कविसंगमं 15 वें (विळम्बी - पुरुषोत्तम) 9.6.18 क अनि 16 वें (विळम्बी जेष्ठ) 1.7.18 क सुशीला टी. भट, कोच्ची हंगेले घरकडे दवोर्नु जल्लें।

---



लण्डन 2018 मेय 14-18 :- रोयल कोळेज ओफ फिसीष्यन (RCPE) डॉ. ब्रयान चापमान स्कोळरषिप डॉ. अरुण एन. भट हंका मेळें। कोलञ्चेरी (केरळ) MOSC मेडिकल कोळेजान्तु कम्यूणिटि मेडिसन असिस्टन्ट प्रोफसर जाव्नु काम करतायि। तुरवूर तिरुमल भागं सुदर्शनालयान्तु एन. नवीनचन्द्रन अनि स्व. सुलोचनादेवी हंगेलो सुपुत्रु। कोंकणी साहित्य अकादमी-केरळ हज्जे एक्सिक्यूटीव बोर्ड मेम्बर तँ।

---

15.7.18 :- अंत्रूज घुड्यो हे संस्थेन बांदोडेंच्या स्नेह मंदिरांत 'पावळी... एक पावसाळि सांज' ही कवितांची कार्यावळ आयोजित केल्ली।

07.7.18, अंचिकमळ इडप्पळ्ळी चङ्ङपुषा पार्क :- 'रावु मम्माले व्होराण' कोंकणी नाटक अस्लिलें।

---

08.7.18, चिलड्रन्स पार्क, एरणाकुळम :- अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे "80 वे संस्थापना दीस" कार्यक्रमाचे शुभारंभ केल्लें मलयाळम कादंबरिकार सेतु हन्नि। पी.एन. कृष्णन, पय्यन्नूर रमेश पै, गोकुलदास प्रभु, ए. वेंकिटेश्वरन, आर.. एस. भास्कर, योगिता वेर्णेकर हन्नि वेदीरि उपस्थित अस्लिल्लीं। भासाभास, गानमेळा अनि चेर्डुवांले चित्र उल्लेय्ता मत्सर इत्यादि अस्लिलें।

---

साहित्य अकादेमीन मान्यता दिल्लेले 24 भारतीय भाषेन्तुले 35 वर्ष (01.1.2019 क) वर्क्यान प्राय अस्लिले युवा भारतीय लेखकां लगी अनि प्रकाशकां लगि **'युवा पुरस्कार 2019'** खातिर पुस्तक धाडून दिंव्चाक अपेक्षा केल्या। अंतिम तारिक 20.8.2018। चड जाणकारिक चोय्यायि - www.sahitya-akademi.gov.in

---

**संत केशवदासालि**
**हितोपदेश कथा – 37**

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

## "मुक्तिकारक विश्वास"

महादेवान पार्वतीलगि सांगलें, "प्रिये, कोणकी तो मानव कुंभमेळा (भारतान्तुलो सर्वश्रेष्ठ उत्सव) समयारि पवित्र गंगेन्तु स्नान करता, तो मेग्गेले लोकान्तु (शिवलोकान्तु) पांवतलो।" पार्वतीन साश्चर्य निंवगीलें, "प्रभो, गंगेन्तु स्नान केल्लेले पुण्यान मात्र हीं अनेक लक्ष जन मुक्ति प्राप्त करतले म्हणुवें तुमी सांगतायि ?" महादेवान मन्दहासु कोरनु सांगलें, "व्हय, तन्नीं सत्यान न्हल्यारि मात्र।" "तुमी कित्ति सांगताय, यथार्थ स्नानान ?" "तें कशी म्हणु हाँव तुका दाकयतां" शिवान सांगलें।

महादेवान कुष्ठरोगीलो अनी पार्वतीन तगेले बायलेलो वेषु धरलो। दुकियेन कष्ट पाव्नु कुष्ठरोगीरूपी महादेवु गंगातीरारि पोणु लळता। बमणालो रोगु शान्त कोरूक कोणेयपुणि तांका स्पर्शु करायि म्हुण बायल वटेरि वत्तल्ले जनांक उळदीता। गंगेन्तु सत्यान न्हल्लेले कोणेयिपुणि स्पर्शु केल्यारि बमणालो रोगु दूरा जत्तलो म्हुण तीणे सांगचें गंगास्नान कोरनु वच्चे जनानि आयकीलें। तीणे सांगलें, "गंगेन्तु सत्यान न्हांवनत्तिल्ले कोणेयि मेगेले बमणाक स्पर्शु केल्लो जल्यारि, बमणालो रोगु वोचूनु ताका लागतलो।" परन्तु कोणतरि येव्नु कुष्ठरोगीरूपी महादेवाक स्पर्शु कोरूक तय्यार जल्ले ना। अमी सत्यान न्हंय स्नान केल्लेलें जल्यारि तो रोगु अंका येत्तोलो, हे विचारान तांका भय जल्लें। ते लक्ष मानवां मद्दें यथार्थ विश्वासान स्नान केल्लोलो एक भक्तु अस्सिल्लो। कांयतरि संशयु नत्तिल्लें ताणे महादेवाक स्पर्शु केल्लो, आश्चर्य ! कुष्ठरोगी अनी बायलेले स्थानारि महादेवु अनि पार्वती प्रत्यक्ष जाव्नु ताका दर्शन दिल्लें। महादेवान पार्वतीलगि सांगलें, "प्रिये, जनानि कितलेंचि धार्मिक कार्य कोर्यात, परन्तु परिपूर्ण विश्वास करतल्ले मात्र मका पांवता।"

**हें तुमका कळता व्हे?**
कोंकण्यांगेले आचार-विचार
- सुशीला त्रिविक्रम भट, कोच्ची

## "कान विन्दप - कर्ण वेधं"

स्त्री-पुरुष भेद नत्तिल्लें कान विन्दुचो संस्कारु अमगेले भारतांतु फूडे थकून अस्सिल्लो जाव्नु दिक्कूक पडता. अम्मी आचरण कोर्नु एवंचे अनेक सान-व्होड संस्कारांतूलो एकु तं कर्ण वेध संस्कारु. कन्नाक आभरण - कुण्डळ, वेडी, कर्णफूल, फुल्ली इत्यादी - घालचे खतीर मात्र न्हय, शास्त्रीय जावनूय आरोग्यप्रद जावनूय जायते प्रयोजन कन्नाक सूत्र (वेज्जु) घालतल्यान कर्तना अस्स म्हुण संगताय.

जन्म-जात चेरडाक तीन मास (णवी दीस) निस्सरतरी मात्र तां कान विन्दूचो प्रस्ताव येत्ता. चेल्लो-चेल्ली म्हळ्ळोलो व्यत्यासु हंतु ना अस्सिल्लो. साधारण रीतीरी स मासांचेरीय, सात मासांचेरीय तां चेरडाक कान विन्दूक मुहूर्तु काडप अस्सिल्लें. बाकी चंगपणा कार्यांक शुभ-मुहूर्तु चोवंचे गदीच कर्ण वेधाकय शुभ वेळु चोवप अस्सा. चांद्र मासाचे शुक्ल पक्षांतु तं दीसु काडप. ऊंच संगिल्ले लेकान अस्सिल्ले प्रायेरि कान विन्दूक जल्लेना तरी जल्यार मगीरि तीन वर्षारि जावो, पांच वर्षारि जावो विन्दूयात म्हणताय. *(शेष लगी अंकान्तु)*

---

## काल चक्र

- सैलेष अनन्द एस. पै, कोच्ची

काल चक्रान्तु कलि कालान कल्पित
कसने केद्दाण कोणाक कळना (2)

जन्मु घेव्नु वड्नु एत्तायि
दामु दुड्डु कोरूक भोंव्तायि
दामु तो भोगुनात्तिल्ले मरतायि
तगतगेले कर्तव्य कोण करतायि?(काल)

दामूय समाधानेय एक्कडे मेळना
समाधान ना जल्यारि संतोषु मेळना
कष्टा निवारण कोरूक जायना
श्रेष्ठ तें जीवन सार्थक जायना (काल)

केल्लेले सग व्यर्थ जत्ता
चक्रव्यूहान्तु पोणु अश्रु भर्ता
देवा तू कस्सले परीक्षण कर्ता ?
राक तू अम्का, प्रार्थन कर्ता (काल)

## दोनि शाप - दोनि परिणाम

- विलासिनि एन. नायक, कोच्ची

रायु दशरथाक मेळोलो मुनीलो शापु
“जत्तले तगेले देहान्त पुत्र विरहान्तु”
राज्य प्रतापान्तु रायु बेसलो ते विसोर्नु
करनी ताणे ताजो कांय पणि उपचारु!

मुग्ध जल्लो तो सदा पुत्र मोहान्तु,
निश्चयु केल्लो रामाक कोरूक युवरायु.
पुण तका सदा अनुधावन केल्लो शापान्
कैकेयीक दिल्लेले दोनि वॅराचे रूपान।

रामाक दिल्लो तीणे चौधा वर्षा वनवासु,
भरताक करूक आयोध्येचो युवरायु,
तिगेली उत्तर जाली घोर विष समान्
देह त्यागु केल्लो रायान् भारि दुःखान।

परीक्षिताकय मेळोलो मुनीलो शापु,
“सात दीस भित्तरी एत्तोलो तक्षकु,
ताजे घोर विष निमित्त मोरतोलो रायु”
जल्यारी परीक्षितान करनी ताजो तिरस्कारु।

निज चूकी मनां कोर्नु केल्लो पश्चातापु,
विधीक अनुसार केल्लो सर्व संग परित्यागु,
निर्णयु कळ्ळो रायान् करूक 'प्रायोपवेशु'
पावलो तेन्ना परिपावन तपोधामान्तु।

महर्षि गण भरलेले ते तीर्थस्थानान्तु,
पावलो शुक महामुनि भागवतामृत घेव्नु,
अमर जालो रायु ते आनन्दामृत पीवनु,
तक्षकाले घोर विषाक सदा निर्वीर्य कोर्नु।

बहु विचित्र दोनी शाप - ताजे परिणाम दिकूनु
जन्मान्तु एत्ताय अम्मीय प्राराब्धाचे शापु घेव्नु,
मोहान्तु बुडलो मनीषु प्राणु सोडता शोकान्तु,
जल्यारी परित्यागु केल्लोलो प्राणि मुक्त जात्ता
आनन्दान्तु।।

## आदगति गुंतिले काव्यमाला

- नागेष अण्वेकर, कारवार

कष्ट मणून रडू नाका
औश्वरय मेळो मणून रडू नाका
आपणालि हाथ जगन्नाथ
दुसरेलि हाथ भीक माग
स्वतः कमायि जीवनांत अर्थपूर्ण
मागून खावचें जीवन अगौरव कारण।





“भांगरभूंय” कोंकणी दिनपत्र
वच्चायि ओणलैन :
epaper.thegoan.net




# "खन्चेय कैर्यान्तु प्रवीणु"

उद्योगाचे राजनीतीचे इतर सामूहिक सेवनाचे पसावत कार्यरत जालो जल्यारीयि गान्धीजी घरचे एकेक समस्येकयि उचित परिहार दिकून धर्तालो। कुटुम्ब स्वाश्रीत राकूक निरन्तर श्रम पांवतालो। मडवोळु समयारि समर्गणि उम्बोळ्नु हाणा म्हुण जांवचाकयि गान्धीजीनचि उम्बळूक आरांभीलें। ताजेविसिं बूकु थोवनु वाचून मनांकोर्नु त्या कामान्तु दष्टीकु जालो। तें आयान कोर्चि रीति कस्तूर्बाकयि सिकैली। वेळु एदो वेचु जत्तालो, पुण आवश्य पळ्ळे उपरान्ते बवगुचेंयि ना! निश्यान्तु निक बुडोवनु इस्त्रि निक घालनु वस्त्र धारण कर्तारि मडवळान कर्तल्यापसि आयवन्त दिस्तालें। तस्सि आस्तना सर्वन्टस ओफ इन्डिया सोसैटि स्थापकु गोपाल कृष्ण गोखले दक्षिण आफ्रिक्यान्तु एक बोवन्डेक आयलो। अतिथिले आदरार्थ ज़ोहानसबर्गान्तु, भारतीय मित्रांनि म्हेळ्नु एकु सत्कार संघाड़न केलो। गान्धीजीक म्हेळ्नु वचाक घरकडे आयलेले गोखलेले तोण्डारि एक भावभेदु गान्धीजीन दिकीलो। कायरीं जाण जालो। महादेव गोविन्द रानडेन पसूकपड केल्लेलें अंगवस्त्र सत्कारा भव्य सन्दर्भारि घालूक गोखलेन लग्गि हळेलें। जल्यारि कट्टान्तु कूटान्तु सिर्कून तें घडि मोणु चुर्म्बुटेवनु गद्दो जालें। दुवणि अंगडीन्तु दीवनु सम करौंवचाक वेळूयि ना। गोखलेले विमुष्ट दिकचाकयि गान्धीजी तें ताणु घेवनु कूडान्तु गेलो। पनवळ भित्तरि इस्त्री घालनु पुटपुटी कोर्नु पर्तून आयलो। गोखलेक आश्चर्य जालें, हृदयंग आभार व्यक्त केलो।

अनियेक कपलाकणकणु आयलो केळश्यानचाले पसावत ! पेट्रोरियान्तु वचाकयि थंगाचे केळश्यानचान गान्धीजीलो केसु कत्रूक औसुन्ना म्हळें। कारण निस्सार न्हंय ! भारतीय थंगा एत्तायि दिकल्यारि गोर्याक शीं खत्तलें; तन्नी मगीरि थांगा कप्पणेक चोण्णा ! गान्धीजीक चुट्टुकु जालें। जल्यारि सन्त चिन्तन कोर्चाकयि शान्त जालो। हेतु कोण - गोरे ! तस्सलें हुंग तांका मात्र वे ? भारतांतूयि ना वें तस्सलि खालवूंच मनोगति ? थांगा-कोण हैन्दवची ! जगभरि उद्दण्डालो एक विभाग तसलो वायट मनोभाव राकता ! आधम चिन्तेन्तु बुढून पळा। तो विकट भेदभाव समूळ खुन्टूका ! गान्धीजीले केळश्यान्चावेलो कोपु निवलो। कप्पणे करीवं काणु घेवनु स्वयं केस कत्रूक तत्काल आरांभीलें ! ❋

**संत कबीरदास दोहा -**



एन. लक्ष्मण मल्या, कोच्ची

"माँगने गये सो मरि रहे, मरे तो माँगन जाहिं।
तिनते पहले वे मरे, होत करत जो नाहिं।।"

कोणकी मग्गूक वत्ता जल्यारि, मनकरी ते मेल्ले म्हुण। जल्यारि तंचे मुरथम ते मेल्ले कोण की मग्गूचांक लग्गी संग्गतायि अवुंचलग्गी कार्यी ना।

---

## अज्जि

- वसन्तकुमारी पी. एस., कोच्ची

एक ग्रामान्तु प्रायि जल्लेलि एकि अज्जि अस्सिल्ली। ती एकाकी तं् अस्सिल्ली। एकु दीसु ती घरान्तु जाई जल्लेलि सामग्रि हाडूक अंगडीन्तु गेल्ली। धान्य, ओरोवु, रंवन्दयकायि सग्ग काणु घेवनु घरकडे एयिलि। चोवंचानीक घराचे कवड उद्दारें पळ्याँ। घरान्तु चोरु चोळ्ळो म्होणु अज्जेक् कळ्ळें। अज्जेक एकु उपायु दिस्सलो। तिक्का एकि दिव्ली अस्स। तीणे दिवलेचे लग्गि उल्लोंव्याक आरांभीलें। "हे दिवले, हांवे भायर वोच्चूनु एयल्यारि तूवें मिझे लगि विशेषु निंवगप अस्स मू। आजि इत्तें उल्लेयना ? घरान्तु चोरु कोणेइ चोळ्ळो वे ? तूंवे उल्लोंवना जल्यारि हांव तुक्का एकि काणि संगन। एक्कडे एक्कडे एक घरकडे एकि चेल्लि अस्सिल्लि। ती एकु दीसु नदीन्तु न्हाव्याक गेल्लि। पोरतून एंवचानीक घरान्तु कोणकी चोळ्ळो म्होणु तिक्का कॅळ्ळें। तीणे व्होड्डान बोब्बाटि घल्लि। "अय्यो, रक्कूका, रक्कूका" म्होणु। अज्जेन व्होड्डान बोब्बाटि घल्लि। तें अयकूनु सेज्जारि अस्सिल्लि मनीष धावनु एयलिं। रत्री पोर्लान्तु निप्पूनु बेस्सल्या चोराक धोर्नु मड्याक बन्दूनु घल्लो। राजकिंकरान एव्नु तक्का व्होरनु कारागृहान्तु घल्लो।

"अज्जे! अम्मि कोणेयि रत्ति कूटाक रब्बूका वे ?" म्होणु सेज्जारि जनानिं निवंगिल्याक अज्जि संगता जल्लि - "नक्का, मक्का यि दिव्ली मात्र कूटाक पूरो। ती मक्का रक्तली" म्होणु। बुधवन्ति अज्जि नवें ?

## नदर

- सुनिल पालकार, नावशी-गोंय

घर बांदलें गावांत सुखान रावचे खातीर
तळी बांदली मनात मनसोक्त न्हावचे खातीर
चलतां भोंवतां लागली संवय सैम सेवेची
मोग केलो पेल्याचो मोग दिवचे खातीर
नांगरयलें शेत काडलें पिकार पीक
खावयली गायेक पेंढ दुदाळ जावचे खातीर
बरयली गजल सहज जिणेच्या पुस्तकांत
न्हेसयली संगीत सुरानी सदां गावचे खातीर
आकार दिलो भावनांक मनातल्या मनात
अभंगवाणी जावन सतत व्हांवचे खातीर
घरान म्हणलें आतां आपल्याचेर आसची नदर
येवच्यो आसा वाळटी वांशांक खांवचे खातीर

## बेर्डुवालि चित्रँ





कु. लक्ष्मीनारायण वी. शेणै (9)। कोच्ची पी. वेंकटेश्वर शेणै अनि स्वप्ना शेणै हांगेलो सुपुत्रु।



## गणेशा...

- वी. सोमलता आचार, कोच्ची

गणेशा, श्रीगणेशा, श्रीगणेशा गणराया
अंवगेले विघ्न नाशु कोर्नु राक
अंवका शिवबाला (गणेशा)

देवानि प्रथम स्थान तुक्का दिल्ले लोकान्तु
आदि पूजन तुग्गेल् दवर्ले
आनन्दारि तुग्गेले मन्त्र,
अम्मि कर्तायि तुग्गेले ध्यान
रक्कूका, रक्कूका देवा (गणेशा)

विघ्न नाशु कोर्चो विघ्नेश्वरु
माता उमादेवील् आद्य पुत्रु
तुग्गेल् पाद पंकजारि अम्मि
शरण एत्तायि देवा !
रक्कूका, रक्कूका देवा ! (गणेशा)

### आळें (കടങ്കഥ / Riddles)



झाडा वेयरि (उंचारि) फल
फला वेयरि झाड

अन्वास / अन्नास

औषद पंक्ति 78

## अज्जेलीं वोक्कदा

(मुत्तश्शि वैद्यं)

सुशीला टी. भट्, कोच्ची

**एद्दी अच्छट (अचूक) एक्कौषधां :**

पायां सूजी :- सीरांतुल्यान देवंप जावनु थोडे जनाक पय्यांक पावलांचेर चढची जावनु सूजी येवप अस्सा. सूजी असिल्ले भागान बडबडीच नारलेल लावनु ताजे उंच गुंजियेचे पल्ले കുന്നിക്കുരു / *Jequirity, Crab's eye, rosary pea (Abrus precatorius)*] थापून सोडतली. सूजि वोड्डून काडून जात्तरी गुंजियेचे पल्ले अप्पाप सकल पडून वत्तले. पल्ले सग्ग पडून वच्चून जत्तेरी, मीट घालनु खतखतायलेले उदकांतु अगूटी बुड्डोवनु सूजी भागाक शेक दीवंका. शेका बदलाक हुनसेंच मिट्टा उद्दाक सूजीचेर रक्कयल्यारीय जत्ता. सूजी वच्चून पाय फूट जावू भित्तेर हें आवर्तन करका.

सीरांत देवंनु फट्टीक दूकी येत्ता जल्यार वोरवा तन्दूळ्यांत (वोरोवु धुल्लेलें उद्दाक) मीट घालनु एद्दे चिंचेचे पल्लेय घालनु खत-खतावन अंगटेन शेक धरल्यार पूरो. उंच कसलेंय तैलय (कल्पूर तैल इत्यादी) लायल्यार चांग वरतलें.

## सुभाषित

प्रो. के.एन.आर.भट

कोच्ची

"कोलाभो गुणिसंगमः किम्/सुखम् प्राज्ञेतरैः संगतिः
का शनिः समयच्युतिः निपुणता का धर्मतत्वे रतिः
कः शूरो विजितेंद्रियः प्रियतमा का/नुव्रता किं धनं विद्या
किं सुखमप्रवासगमनं राज्यं किम् शाफलम्।।"

संसारान्तु लाभु कसलो ? गुणवन्त मनशां संगमु। दुःख कसल्ले ? मूर्ख जनां ओट्टु रबका जंचे। व्होड नष्ट कसलें ? समयु व्यर्थ कोर्नु घेंवचे। नैपुण्य खंयचे ? धर्म तत्वान्तु रुचि एंचे। वीर कोण ? इन्द्रियांक अपण्याले वश केल्लोलो। प्रियतमा कोण ? बम्णाले धर्मानुष्टानान्तु सदा-सर्वकाळ फटिबल प्रदान कोर्चि। धन कित्तें ? विद्या (ज्ञान) सुख कसलें ? जीवन कडचाक खंयि-खंयि कोणाचेयि मुक्कारि भीक मग्गूचे तस्सि जाव्नत्तिल्लें। राज्य खंयचे ? अपण्यालि आशा सफल जंचे।

**सब्बू ओरवाचो हलवो**

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय) - उषा आर. भट, हैदराबाद

### सामग्री

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. सब्बू ओरोवु | - 300 ग्रां | 5. काजूबी धळकँ | - 20 |
| 2. चॅण्या पिट्टि | - 100 ग्रां | 6. ऍळ्ळु | - 6 |
| 3. शक्कर | - 200 ग्रां | | |
| 4. तूप | - 200 ग्रां | | |

एक चिपट तूप घालनु, सब्बू ओरोवु भज्जूनु पिट्टो कोरनु काडका। चॅण्यापिट्टीयि हरवण्टाणि वच्चाक पुरॅसी भज्जूका। पोन्द दाट अस्सिल्ले आयदनान्तु सूत ऍवु पर्यन्त शक्कर, उणेचि उद्याक घालनु, पांकु कॅरका। उणेचि उणेचि जाव्नु साबू ओरवा पिट्टो आनी चॅण्या पिट्टि पंकान्तु घालनु, उणेचि तुप्पयि सोणु गूळि मण्डना सरि, मिश्रण कॅरका। विस्कळ वट्टयाक तूप सारोव्नु तन्तु ये मिश्रित उप्परतुका (Transfer)। कायलातो काणु पतळांका। सेम्माळें अस्तनाचि, चौकण्ड जाव्नु घायु घालनु सोडका। कज्जूबी धळकॅ तुप्पान्तु भज्जूनु, एक्केक चौकण्ड कुटक्यांचेयि मध्ये, उम्ती घालनु धम्मूनु सृंगार्का। एळाचि सोल्लँ काणु, उणेचि शक्करयि मिश्रण कॅरनु, लान पुड्डि कॅरनु, तज्जे वॅयरि फप्पूडका।

* (जिलेबी कळर पंकान्तु घल्यारि, यें मैसूर पाकु समान दृष्टि पडतलें)

## एकमेळीचे गीत

- के. अनन्त भट्ट, कोच्ची

येय्या मेळ्नु म्हणुया आमकां एकमेळीचे गीत।
सात स्वरयि मेळनु जात्ता, सुमधुर संगीत।।प.।।
सात वर्ण ते मेळ्नु जात्ता, नवो धवो रंगु।
हाथ सज्जनाचे मेळ्नु, करतातिं सत्संगु।।1।।
सान-होड एक मेळ्नु, वाढौया ती शक्ति।
तनु मन धन अर्पुया, आमची देशभक्ति।।2।।
हाथ मेळौनु शक्ति वाढता, मन मेळौनु भक्ति।
आत्मा-परमात्माचें मिलन, जावचाक म्हणचें मुक्ति।।3।।

## चकवा (विनोदी एकोक्ती)

- विठ्ठलराय भट, कारवार

सर्वजण चुका करतात,
मूर्ख त्याची सवय करतात.

### अय्किल्लि रस्पति



भूमीचो गुरुत्वाकर्षण बलाचो प्रभावु चड सक्काणि समयार म्होणु दिसता। फल्लें जल्यारीयि उट्टांव्चाकच दिस्सना !

## गुल्लीयो कित्ति  सांगताय - 51 

एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

<u>अन्तर्दशा (...)</u> : सूर्य दर्शेतु सूर्याची अन्तर्दशा कशि लेकप म्हणु चोवया.

मनुश्यालें आयुश्य = 120 वर्षां

सूर्य दशा = 6 वर्षां

सूर्यापहारु = ते स वर्षांचे 6 भागु

= 6/120 x 6

= 3/10

= 3 मासु 18 दीसु

ह्ये मर्दीनच गुरुदर्शेतु शुक्रालो अपहारु कळूक गुरुदशाकाल 16 वर्षाक 120 न हरण कोर्नु शुक्र दशावर्ष 20 न गुणन कोरका.

16/120 x 20 = 2 2/3 वर्षां

= 2 वर्ष आनी 8 मासु

## चौपदि

- एन. सदानन्द कम्मत, कोच्ची

**मातृभाषा कोंकणी**

मातृभूमि भारत
मातृभाषा कोंकणी
मातृभूमि मातृभाषा
हर्द्यान्तु सदा स्पन्दन



## वळक ना

- कु. अञ्जली किणी, कोच्ची

तप्पुच्चे वोत्तान्तु तुजी हूम निस्ततना
ऊंचारि विस्कळावनु धरलीली सत्तूली तूं चोयलोना।
जीवनाचे यात्रेन्तु कष्टॅय पीडाय पांवतना
वट्टेवेले कण्टे तो वेंचीता तू दिक्किलना।
खंचे दिशेरि चोंवकूका म्होणु तू आठोवनु रबतना
तुजो हातु धोरनु ताणे व्हेल्लोलो कॅळ्ळेना।
दुःखान्तु बुड्डूनु हरदे फुट्टूनु रडतना
तूं मत्ते दवरलेले तगेले खंद्यारि तां नेणतना।
काळूकान्तु भय्यान तूं दोळे फड-फडायतना
भीवनक्का ह्मंव अस्स म्हुण तो संगता आयकिलना।
लागि चंवकता तो तूं एक-एक पावल दव्वरतना
जल्यार काळ उतलेय जावनूय तुक्का वळख ना।

14.7.18, इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा सभाघर, पणजी :- "ई देखणी कोंकणी साहित्यपट" कार्यक्रमु जल्लो। विद्यालयान्तूले अभ्यासक्रमांत एंवचे मुख्य कोंकणी कवींगेले काव्य साहित्याचो ह्यो चलचित्र आविष्कार। काणकोणचे ॐ श्रीदत्त पद्मजा प्रकाशनाचो 'अंकतरंग' आधूनीक संदर्भांतलो प्रातिनिधीक कोंकणी एकांकी झेल्याचोयि पुनर्लोकार्पण जल्लें।

**पुस्तक प्रकाशन** 07.07.2018 रवीन्द्र केळेकार ज्ञानमंदिर, मडगांव :- 'काणयो देखिच्यो' अनि 'भारताचो राष्ट्रीय झेंडो' - एन. सुहास।

# पवित्र कोंकणी

- वी. सुरेष शेणै, कोच्ची

"कोंकणी" पद हांव ऐकता
मिग्गेले कन्नाक आनन्दु दिस्ता
"कोंकणी" जनांक हांव पळेय्ता
मिग्गेले दोळ्यांक उज्वाडु दिस्ता
"कोंकणी" साहित्य वड्डता
मिग्गेले आत्माक संतृप्ति दिस्ता
"कोंकणी" सिक्कूक हांव लेकीता
मिग्गेली भासेचि तान हांव वड्डेय्ता
"कोंकणी" भास हांव उल्लेय्ता
मिग्गेले जीवितान्तु सन्तोषु फुल्लेता
"कोंकणी" पुस्तक वच्चीता
मिग्गेले कष्ट सर्वै हांव विस्सर्ता
"कोंकणी" संस्कारु हांव वड्डेय्ता
मिग्गेले गांवान्तु सन्देशु पांवेय्ता
"कोंकणी" कविता हांव बरेय्ता
मिग्गेले जीवित तन्तु हांव बुड्डेय्ता

# देवालि सृष्टि

- ए. आर. प्रभु, कोच्ची

एकु यात्रि अस्सिंचि चोंव्कूनु वत्तना क्षीणित जल्लो। एक वोव्वळा रूकु दिक्कीलो। तज्जे मूळान्तु बेस्सलो। तज्जे लगीचान दुद्धणी बेलु वत्ता ताणे दिक्कीलें। तज्जेरि व्होड दुद्धी जाव्नु रब्बील्या। ताणे आठेयलें "हे देवा, तूं इत्तें यें करता ? ये व्होळ्ळे अनि बलिष्ठ रुक्काक सान फळ, सपूर बेल्लाक व्होड फळ !" अस्सि चिन्तन करतना एक सनचि वोवळे फळ मत्यार पळ्ळें। सान जल्यारीयि उंचारि थकूनु पॅळ्ळें दिक्कून स्वल्प दुक्कि पावलि। तवळि तक्का कॅळ्ळें - "ना, देवु बुद्धवन्त तँ। दुद्धी जडाणीचे फळ तरि ये रुक्कारि अस्सिले जल्यार? देवालि सृष्टि सम्म तं" म्होणु। "देवाले सृष्टीक अम्मि कांय अभिप्रायु संगूक पॅणा !"

## कृष्णाक लोणी

(वाल कविता)

आर. एस. भास्कर,
कोच्ची

यशोदा अम्मा
आपयता कृष्णाक
लोणी दित्ता म्हणता
धावनु येत्ता कृष्णु

### कोंकणी गीत प्रसारण - आकाशवाणी

धारवाड (765 Khz) MW: (सग्ग सोमाराचें रत्ति 10.00 -10.30 जाई-जूई कार्यक्रमु)
तृश्शूर (630 Khz) MW, कोषिकोड (684 Khz) MW : (मंगळाराचे संजे 5.00 धोर्नु 5.15 पर्यन्त)

## रस्पनि - आर. के. प्रकाश, पळ्ळूर



**Dr. P. N. N. सिंह**
**डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह**
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

सुशीला मांयि - डॉक्टरमामो, जेंचाक जायतना जिबेक एक सूखय ना !

डॉक्टर - प्रश्नु ना, वखद दित्ता। वळ वळ वर्तमान ऊणे कोर्नु, लोक पुराण चबून गीळनत्तिलें सबाव बेसल्यार चिन्तना।

* * * *

लेनिन बासु : डॉक्टर, काम नत्तिल्यांक आमी सौखय दिंचाक मार्गु सोदिताय।

डॉक्टर : प्रश्नु ना, काम ना जल्यार, क्रोध, मोह बाकि असा नावे ?

## गोंय आनी केरळ कोंकणींतले अंतर

- एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

| | |
|---|---|
| दव - दोवु | खोबरेल - नर्लेल |
| पांगरूण - पंगूरचें | वयार - प्रायेर |
| रांदचेकूड - वस्सरि | सोपो - सोप्पो |
| धापेता - खरसेता | हांतरूण/हांतूण - हंतूण |



## परणी म्हणणी

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

* देक्ले खण्डे, घेत्ले कपाल।

* कूराडीचो दण्डो, कुलाक नाशु।

* उदकान मेळ्ळेले, उदकान्तु गेल्लें।

* वार्यार घल्तनि, पवळेन्तु घल्ना।

* हून अस्तना लोकण्डारि मार्का।

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

निंबूओ/ लिबिंयो - ചെറുനാരങ്ങ - Lemon
सोन्नार्लिङ्गॅ - മധുരനാരങ്ങ - Orange
पंपाळमूर्सॅ/ तोरंद - ബംബ്ലൂസ് നാരങ്ങ/ കമ്പിളി നാരങ്ങ - Pomelo / Shaddock
व्होड्डु निंबूओ/ दोढली - വടുകമ്പുളിയൻ നാരങ്ങ - Ponderosa Lemon
गुन्दा निंबूओ - പശ നാരങ്ങ - Gum Berry (?)
मुसम्बी - മുസ്സംബി - Sweet Lemon
मौळिंग/ मव्ळींग - ഗണപതി നാരങ്ങ / വള്ളി നാരങ്ങ - Citron

एक प्रयोजनप्रद कोंकणी वेबसैट :
konkaniwordnet.unigoa.ac.in

## उदाक



- कु. ऋषिका वी. प्रभु, कोच्ची

जल जल जल
मानव जीवाक अमूल्य
अमृता समान पानक
जीवु दिंचे उदाक।

गंगा यमुना कृष्णा
ब्रह्मपुत्रा नर्मदा
गोदावरी कावेरि
सिंधु सरस्वती।

प्रारंभु जत्तायि नदियो
भोर्नु उदाक अस्सिल्यों
दिव्य जल दिंच्यो
गांवांतु जीवन भोर्च्यो।

नदी पव्ल्यारि सकल
जत्ता भारि बल्लाव
मालिन्य भरतायि तंतु
भारि परिष्कृत जन।

व्यवसायांगेलि अश्रद्धा
भंर्ता तंतु वीष
लेक ना उपभोगाक
मोल ना एक थेंब्याक।

पावसाचे उद्दाक मेळता
जल्यारि कोण पित्ता
भूमि तड्सून बेस्ता
तिगेलें उद्दाक अट्टता।

पृथ्वीचो व्होळ्ळो भागु
भोर्नु अस्स जल
तज्जो करतायि दूरुपयोगु
पोर्तूनु मेळता फल।

बय्यों नदियों तळीं
सग्ग अट्टूनु वत्तायि
रूक रुक्कावळ्यो
वोत्तांतु कर्पूनु मरतायि।

उदकाक कोर्का रक्षण
तज्जान जत्ता चंगपण
एम्चे पिळग्यांचे कारण
तका जांका संरक्षण।



## नित्यकर्म



- एन. माधव रावु, कोच्ची

1. मूंजी जल्लेले ब्राह्मणानि जन्नूव्याक धोरनु 12 गायत्री मन्त्र दिसपडत जोपूका।
2. व्हर्डिक जल्लेले बयिलानी सदँ तुळसीक उदाक घालका। निंगीले दिंवची तँ तुळसी।
3. सन्तान नत्तिले बयिलानी तुळसीक उदाक घाल्नु तीनि प्रदक्षिण काणु सन्तान गोपाल मन्त्रान्तुलो :- "देवकीसुत गोविन्द वासुदेव जगत्पते।

   देहि मे तनयं कृष्ण त्वामहं शरणं गतः।।"

   ये मन्त्रान तुळसी लगी मगिल्यारि तंका सन्तान जत्ता।
4. दिसपडत नवग्रह स्तोत्र म्हळ्यारि आयुरारोग्य सौख्य मेळता।
5. व्हर्डिक जावनु गृहप्रवेश कोरचे व्होकलेन भाण (श्रेय पात्र) भोरका म्होणु ना। एक मूष्ठि वोरोवु ते भाणांतु घल्या पूरो।





# श्री विघ्नेश्वर स्तुति

- लता रंग मल्लन्, माळा

नाँच गणेशा नाँच (2)
नंचूनु नंचूनु नंचूनु मक्का
ओरु दी तू पाँच (2)
सदा भक्ति दींका मक्का
सदा प्रीति जांका तुक्का
सदा सौख्य दी तू मक्का
सदा शक्ति दींका मक्का
मग्गीरि मुक्तीयि दींका मक्का

विनायका विघ्नेश्वरा
विश्वरक्षका यो देवा
विश्वासान भोज्जुच्चे मक्का
विस्सोरनक्का विस्सोरनक्का
पार्वतीलो पुत्रु नयिवे ?
शिवालो मोगा पूतु नयिवे ?
कार्तिकेयालो भावु नयिवे ?
मणिकण्ठालो आनु नयिवे ? (2)

सघटानीयि एक्कडे जावनु
मिग्गेले दुःख दूर कोरका
दुःख मिग्गेले दूर कोरनु
मन्नांतु समाधान दींका
शान्ति समाधान दींका
नांच गणेशा (6)

*



# श्रीराम म्हणा...
# श्रीकृष्ण म्हणा...

- गोश्रीपुरम हरिकुमार



प्राणूयि अस्स, त्राणीयि अस्स
मगीरि कसलि अळसायि
श्रीराम म्हणा, श्रीकृष्ण म्हणा
म्हणता रब्बा केदनायि।।

काणीयि अस्स, वाणीयि अस्स
कथा-कीर्तन करायि
श्रीराम म्हणा, श्रीकृष्ण म्हणा
मन्नान म्हणा केदनायि।।

मन्नयि अस्स, जनयि अस्स
सत्संग इत्याक करनायि ?
श्रीराम म्हणा, श्रीकृष्ण म्हणा
एकमेळ्नु म्हणा केदनायि।।

धान्ययि अस्स, धनयि अस्स
ध्यान इत्याक धरनायि ?
श्रीराम म्हणा, श्रीकृष्ण म्हणा
मन्नान्तु म्हणा केदनायि।।

श्रवण करा, स्मरण करा
रामनाम केदनायि
श्रीराम म्हणा, श्रीकृष्ण म्हणा
शरण वच्चायि चरणारि।।

# ए. आर. प्रभु आनी के. सीतालक्ष्मी



## विवाह सुवर्ण जयन्ति

**आशिर्वादु मग्गून :**

**चेर्डूवँ :**
इंदु (उमा)
एम.आर. कृष्ण प्रभु
एम.आर. श्रीनिवास प्रभु

**जावंय आनी सुन्नो :**
के. मणिकण्ठ प्रभु
शशिकला
सुप्रभा एस.पै

**नत्तूरँ :**
रम्या
हरि प्रभु
अनन्त कृष्णन्

**नातीचो बम्मूणु :**
अजित रावु

**पोण्तूरँ :**
अञ्जना
अदिति

Reg. No. KERKON/2012/45527
Vol. No. 7 Issue No. 8
Rs. 5/- No of Pages: 20 **SPANDAN**
Published by : KERALA KONKANI ACADEMY, KOCHI
Registered KL/EKM/732/2018-20
Licence No. KL/CR/EKM/WPP-22/2018-20
Licensed to Post Without Prepayment
Date of Posting 10. 08. 2018



Printed and published by Suresh A. Shenoi on behalf of Kerala Konkani Academy and Printed at M/s. Prakash Process, Srinivasa Mallan Road, Ernakulam, Kochi - 682 035, Ph: 2350960 and Published at 8/28, Santheri, 1st Floor, Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road, Kochi - 682 002. Editor - Suresh A. Shenoi